


# कोंकणी शुद्धलेखनाचे नेम



गोवा कोंकणी अकादेमी
GOA KONKANI AKADEMI

# कोंकणी
# शुद्धलेखनाचे नेम










गोवा कोंकणी अकादेमी

# साबार जाणांक लाब जावचो

अर्विल्ल्या काळांत देवनागरी लिपीत कोंकणी बरपाचो आरंभ केलो तो शणै गोंयबाब वा वामन वर्दे वालावलीकार हांणी. तांणी कोंकणीच्या व्याकरणाचो अभ्यास केलो. शुद्धलेखनाचे नेम आपणाक घालून दिले आनी ते प्रमाण बरप केलें. तांच्या अभ्यासाची खोलाय वाडत गेली तशे कांय नेमूय बदलत गेल्ले दिसतात. शुद्धलेखनाच्या संबंदान तांच्या अभ्यासाचें निमाणें फळ तांच्या 'ऐन वेळार' ह्या निबंदांत मेळटा अशें ' गोमंतक छापखान्या ' चे धनी आनी शणै गोंयबाबांचे सहकारी स. कशिनाथ श्रीधर नायक हे सांगताले.

शणैं गोंयबाबांचे बरपावळींतल्यान स्फूर्त घेवन जी पिळगी बरोवंक लागली, तिणें ते बरपावळींतले नेम पाळ्ळे. जांणी ते बरपावळीचो अभ्यास केलोना वा जांचें मत वेगळें आसलें ते काय कडेन वेगळी रीत आपणावंक लागले.

गोंयचे मुक्ती उपरांत गोंयांत कोंकणी भाशेंतल्यान शिक्षण सुरू जालें आनी शाळेचीं पुस्तकां तयार करचीं पडलीं. कोंकणी भाशा मंडळान उजवाडा हाडिल्लीं हीं पुस्तकां तयार करतना संपादक समितीन कांय नेम थारायले आनी पुस्तकां ते प्रमाण रचलीं. तरी पूण कांय नेमांविशीं विंगड विंगड मतां उरलीं.

ह्या काळांत बरोवप्यांचो आंकडो वाडत गेलो. तांतल्या कोणाकूच कोंकणींतल्यान शिकप घेवपाची संद मेळूंक नाशिल्ली. कांय जाणांनी व्याकरणाचो अभ्यास करुंक नाशिल्लो वा शणै गोंयबाबांची बरपावळ बारीकसाणेन वाचूंक नाशिल्ली. देखून बरयतना रिती आनी नेम हातूंत वेग - वेगळ्यो तरा दिसूंक लागल्यो.

हें सगलें मतींत घेवन कोंकणी भाशा मंडळान शद्धलेखन ह्या विशयाचेर कांय शिबिरां घेतलीं आनी त्या शिबिरांतले चर्चेचेर आदारुन कांय नेम १९७३ वर्सा उजवाडायले.

ते उपरांत आनिकूय खूबशो घडणूको घडल्यो. श्री. सुरेश ज. बोरकार हांणी बरयल्ल्या कोंकणीच्या व्याकरणा संबंदान चर्चा जाली, तेन्ना शद्धलेखनाच्या नेमांचेरुय विचार जालो. श्री. श्रीपाद रघुनाथ देसाय हांणी कोंकणी - कोंकणी शब्दकोश तयार केलो, तेन्ना तांणीय त्या नेमांचो अभ्यास केलो. प्रो. शांताराम अ. हेदो हांणी विद्यार्थ्याखातीर तयार केल्ल्या शब्दकोशाचेर चर्चा जाली, तेन्नाय शुद्धलेखनाच्या नेमांचेर विचार जालो.

इतले मजगतीं माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक शिक्षण मंडळान कोंकणी पुस्तकां रचूंक घेतलीं. तीं पुस्तकां रचतना शुद्धलेखना संबंदान अदीक खोलायेन अभ्यास करपाचो प्रयत्न जालो.

हें सगलें घडटना माध्यमिक आनी उच्च माध्यमिक पांवड्यार कोंकणी विशय शिकपी भुरग्यांचो आंकडो चाळीस हजारांवयर पावलो. गोंय विद्यापीठ स्थापन जालें आनी त्या पांवड्यार कोंकणीचें शिक्षण सुरू जालें. बरोवप्यांचो आंकडो वाडलो, उजवाडा येवपी पुस्तकांचो आंकडो वाडलो. १९८६ वर्सा कों.भा. मंडळान परत शुद्धलेखनाविशीं शिबिरां घेतलीं. १९८७ वर्सा 'सुनापरान्त' हें देवनागरी लिपींतलें पयलें कोंकणी दिसाळें सुरु जालें आनी कोंकणी पत्रकारितेच्या मळार बरपाक चंवर येवंक लागलो.

चड करुन फाटल्या पंदरा वर्सांच्या काळांतल्यो घडणुको, कांय नेमांविशीं परत विचार करपाची गरज, शुद्धलेखनाचे नेम एकठांय करुन विद्यार्थ्यांक आनी बरोवप्यांक दिवप आनी कोंकणीच्या प्रमाणीकरणाचो मार्ग अदीक मेकळो करप हें सगलें मतींत धरुन अकादेमीन नेम थारावन उजवाडावपाचे नदरेन पावलां घालीं.

ज्यो संस्था ह्या मळार वावर करतात वा जांकां शुद्धलेखना संबंदान आस्था आसा त्या संस्थांचे प्रतिनिधी, कांय शिक्षक, कांय बरोवपी, कोंकणीचें व्याकरण आनी शुद्धलेखन हांचे विशीं अभ्यास केल्ले वावुरपी आनी अकादेमीचे काय वांगडी हांच्यो अकादेमीन बसका घेतल्यो. ह्या बसकांनी शुद्धलेखना विशींच्या नेमांचेर चर्चा जाली. ते चर्चेंत वांटो घेवपी आशिल्लेः-

| | |
|---|---|
| श्री. पुरूषोत्तम काकोडकार | श्री. नागेश करमली |
| डॉ. मनोहरराय सरदेसाय | श्री. फेलीसियु कार्दोज |
| श्री. रवींद्र केळेकार | श्री. सुमन्त केळेकार |
| डॉ. ओलिव्हीन गोमिश | श्री. सुरेश ज. बोरकार |
| श्री. पांडुरंग भांगी | श्री. पुंडलीक नायक |
| डॉ. तानाजी हळर्णकार | श्री. कुर्सीन पीन्यु |
| फा. प्रताप नायक | ॲड्. उदय भेंब्रे |

हे चर्चेंतल्यान जे नेम थारायले ते अकादेमीच्या वावुरपी मंडळामुखार दवरले. मजगतीं 'तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केन्द्र' हे संस्थेन शुद्धलेखनाचे कांय नेम उजवाडायले. वावुरपी मंडळान तेय नदरेमुखार दवरले आनी चर्चेचो नियाळ मतींत घेवन थारायिल्ल्या

नेमांक १४ सप्टेंबर १९८८ दिसा मान्यताय दिली.

कोंकणी भाशेचे उदरगतीचो काळ म्हणचे एका अर्थान संक्रमणाचो काळ. अभ्यास आनी अणभव हांच्या पालवान फुडें वतना कांय वर्सां आदीं थारायल्ल्या नेमांचेर आज पर्थून विचार करचो पडटा, तसोच विचार फुडाराक ह्याय नेमांचेर करचो पडुंये. पूण प्रमाणीकरण हीय काळाची गरज आसा आनी ते खातीर नेमांची गरज आसा. साहित्यिकांचो, शिक्षकांचो आनी विद्यार्थ्यांचो आंकडो वाडत आसा. तांकां फावो तें मार्गदर्शन करपाचे नदरेनूय ह्या नेमांची गरज आसा.

अकादेमीन मानून घेतिल्ले हे नेम उजवाडा हाडपाक आमकां खोस भोगता. ह्या नेमांचो उपेग शिक्षणसंस्थांक, शाळेचीं पुस्तकां रचतल्यांक, शिक्षकांक, शिकपी भुरग्यांक, बरोवप्यांक, पत्रकारांक आनी कोंकणी भाशेचो अभ्यास करतल्यांक जातलो, असो विश्वास अकादेमी बाळगिता.

हे नेम थारावपाच्या संबंदान जांणी चर्चेंत वांटो घेतलो, मोलादीक सुचोवण्यो केल्यो वा आपणाल्या अभ्यासाचो लाब दिलो तांची अकादेमी उपकारी आसा.

कोंकणी भास, साहित्य आनी शिक्षण हांच्या मळांचेर वावुरतल्या साबार जाणांक ह्या नेमांचो लाब जावचो अशी आस्त अकादेमी बाळगिता.

**वि. मं. धुमे**
सचीव,
गोवा कोंकणी अकादेमी

पणजी, गोंय
१० ऑक्टोबर १९८८

# दुसरे आवृत्तीच्या निमतान

गोवा कोंकणी अकादेमीन ज्या उद्देशान कोंकणी शुद्धलेखनाचे नेम तयार करुन १९८८ वर्सां उजवाडा हाडले, तो उद्देश सफळ जाला. ह्या नेमांक कोंकणीच्या शिक्षणीक आनी साहित्यिक मळार मान्यता लाबल्या.

नेमांची पयली आवृत्ती सोंपल्या आनी मागणी वाडत आसा, हें मतींत घेवन नेमाची दुसरी आवृत्ती आमी आज उजवाडा हाडटात.

मूळ नेमांत बदल करुंक ना. फकत अदीक समजावणी मेळची म्हूण शिक्षणीक

आनी साहित्यिक मळावयल्या जाणकारांच्यो सुचोवण्यो लक्षांत घेवन देखी वाडयल्यात. निमाणेकडेन गरज लक्षांत घेवन दीस आनी म्हयने दिवन दोन नेमांची भर घाल्या.

आदलेवरीच ह्या नेमांचो लाब सगल्यांक जातलो, अशी आस्त बाळगितां.

**वि. मं. धुमे**
सचीव,
गोवा कोंकणी अकादेमी

पणजी, गोंय
२० ऑगस्ट १९९३

# तिसरे आवृत्तीच्या निमतान

देवनागरी लिपींत कोंकणी बरोवपाखातीर शुद्धलेखनाच्या नेमांची गरज आसा, ही गजाल लक्षांत घेवन गोवा कोंकणी अकादेमीन १९८८ वर्सा 'कोंकणी शुद्धलेखनाचे नेम' हे पुस्तिकेची पयली आवृत्ती उजवाडाक हाडली. ही आवृत्ती पांच वर्सांत सोंपली. तेन्ना अकादेमीन हे पुस्तिकेची दुसरी आवृत्ती १९९३ वर्सा उजवाडाक हाडली आनी आतां अकादेमी तिची तिसरी सुदारीत आवृत्ती उजवाडाक हाडटा.

दुसरी आवृत्ती ते तिसरी आवृत्ती हाचे मदल्या धा वर्सांच्या काळांत, अकादेमीच्या नेमांत उरिल्ल्यो कांय त्रुटी लक्षांत आयल्यो. त्यो पयस करपाचे नदरेन अकादेमीन जाणकारांक आपोवन तीन कृतिसत्रां घडोवन हाडलीं आनी नेमांच्या सुदारीत आवृत्तीचें हातबरप तयार केलें. हातूंत आदल्या कांय नेमांनी बदल केला, जाल्यार कांय नवे नेम जोडल्यात. कांय फाटले नेम काडून वडयल्यात. दुसरे आवृत्तींत एकूण ४२ नेम मेळटात, जाल्यार हे आवृत्तींत ३१ नेम दाखयल्यात.

हें हातबरप आज पुस्तक रुपान उजवाडाक हाडटना खोस भोगता. हाचो लाब कोंकणींतल्यान बरोवप करपी सगळ्यांक जातलो अशी आस्त आसा.

**नारायण श्री. नावती**
सचीव,
गोवा कोंकणी अकादेमी

बोरी, फोंडें, गोंय.
४ मार्च २००३

## नेम : १

**स्वर अशे बरोवचे :**

अ, आ, इ, ई, उ, ऊ, ऋ, ए, ऐ, ओ, औ.

देखीक :-

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| अगड | आबा | इत्सा | ईद | उमेद | ऊब |
| ऋचा | एक | ऐन | ओड | और | |

(i) कोंकणींत **अ**, **ए**, आनी **आ** ह्या स्वरांचे दोन उच्चार जातात : एक धांपिल्लो आनी दुसरो उकतो. हे उच्चार संदर्भा वयल्यान कळटात, तशेंच ते संदर्भाप्रमाण बदलतात. तंत्रीक उपेगांखातीर हे उच्चार अनुक्रमान ∧ (धांपिल्लो) आनी ∨ (उकतो) ह्या कुरवांनी सकला दिल्ल्या तक्त्यांत दाखयल्यात.

देखीक : -

| स्वर | ∧ धांपिल्लो उच्चार | | | | | | ∨ उकतो उच्चार | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | पुल्लिंगी | | स्त्रीलिंगी | | नपुसकलिंगी | | नपुसकलिंगी | | स्त्रीलिंगी | | पुल्लिंगी | |
| अ | ए.व. | भो.व. | ए.व. | भो.व. | ए.व. | भो.व. | ए.व. | भो.व. | ए.व. | भो.व. | ए.व. | भो.व. |
| | घ̂ड | | कात̂र | | | | कण̌स | | | | | घ̌ड |
| | च̂र | | ख̂ण | | | | घ̌र | | | | | च̌र |
| | न̂ळ | | घ̂डव̂ण | | | | वे̌ज̌न | | | | | न̌ळ |
| | क̂ल | | व̂णे̂त | | | | त̌ण | | | | | क̌ल |
| ए | पने̂ळ | | के̂ळ | | | | के̌ळें̌ | | | | | पने̌ळ |
| | पदे̂र | | उमे̂द | | | | ते̌फळ | | | | | रे̌डे |
| | बे̂ल | | पानवे̂ल | | | | तेरें | | | | | फे̌णें̌ |
| | ने̂म | | हुये̂ल | | | | ने̌म | | | | | ने̌म |
| ओ | मो̂र | | आदो̂ळी | | | | मो̌ल | | | | आंबो̌ | मो̌र |
| | चो̂र | | माटो̂ळी | | | | रो̌प | | | | चो̌बो̌ | चो̌र |
| | फो̂ड | | मो̂ड | | | | मो̌ड | | | | न्हवरो̌ | फो̌ड |
| | पो̂र | | गो̂फीण | | | | पो̌र | | | | दिवो̌ | पो̌र |

वयर दिल्लो तकटो फक्त **अ**, **ए** आनी **आ** ह्या स्वरांचे वेगवेगळे उच्चार कळचे म्हूण दिला. सामान्यपणान बरयतना मात वयल्यो कुरवो वापरच्यो न्हय.

(ii) विदेशी भाशांतली कोंकणीकरण जाल्लीं उतरां (मेज, कदेल, कोर्द, सोर्त आदी) सोडून, हेर उतरां बरयतना **ए** वा **ओ** स्वरांचे उकते उच्चार दाखोवपाक अशी कुरू करची.

देखीक :-

| | |
|---|---|
| बॅट | बॉल |
| बॅग | क्रॉस |
| पॅण्ट | लॉटरी |

(iii) 'ऋ' हो स्वर कोंकणींत 'री' आनी 'रु' असोय घोळटा

देखीक :-

| | | |
|---|---|---|
| री | रीण | |
| रू | रूतू | रूशी |

## नेम : २

कोंकणींतलीं व्यंजनान सोंपपी उतरां पांय मोडून (**क् ख् ग्** अशीं) दाखयनातसना अ स्वर घालून पूर्ण अक्षरां अशिल्लेवरीच बरोवचीं.

देखीक :- **क**, **ख**, **ग**, आदी. हातूंतल्या **अ** स्वराचो उच्चार जायनाशिल्ल्यान तो मोनो उरता.

देखीक :-

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| कण | कात | किमस | पीठ | उमेद | ऊस | पेट | बैल | ओट | कौल |
| मन | ताक | पिकास | खीण | कुळण | कूय | देंठ | सूंठ | फोड | गौण |
| तण | भाग | फितीस | रीत | हुडीद | रूख | रेंवट | कैलकूट | मोग | मौज |

## नेम :३

कोंकणींत, **अय**, **आय**, **ऊय**, **एय**, **ओय**, **अव**, **आव**, **एव**, **ओव** हे संधिस्वर आशिल्लीं जायतीं उतरां घोळटात. **अय** सोंपपी उतरां दोन तरांनी बरोवंक येतात.

जेन्ना **अय** संधिस्वरांतलो **अ** धांपिल्लो आसता तेन्ना **अय** अशेंच बरोवचें. देखीक : -

बय, न्हंय, हय, गरय, हातूंत, खंय, जंय, थंय, हंय, वयर हे अव्ययूय आसपावतात.

जेन्ना **अय** संधिस्वरांतलो **अ** स्वर उकतो आसता, तेन्ना, **अय** संधिस्वर दोन मात्रा घालून बरोवचो.

देखीक : -

गैर, चैन, सैन्य, बैल, वैर (दुस्मानकाय)




## नेम : ४

कोंकणींत सामान्यपणान **ष** उच्चारांत घोळना. तें **श** अशेंच घोळटा. पूण विशेशनामां तशेंच दुसऱ्या भाशांतलीं **ष** उतरां जेन्ना जशातशीं कोंकणी (उच्चारांत) घोळटात, तेन्ना तीं **ष** घालुनूच बरोवचीं.

देखीक : -

उषा, कृष्ण, षण्मुख, षटकोन, पुरुषोत्तम, षड्ज, षटकार आदी.

## नेम : ५

**इ** कारान सोंपतात त्या उतरांनी निमाणें **इ** - कार दीर्घ (लांब) बरोवचो. तेच भाशेन, **उ** - कारान सोंपतात त्या उतरांनी निमाणो **उ**-कार दीर्घ (लांब) बरोवचो.

देखीक :-

| | | | |
|---|---|---|---|
| कवी | मिशी | खडू | मेरू |
| बाटली | पुरी | लाडू | कोडू |
| देंठली | वैरी | लिंबू | म्हसरूं |
| वावराडी | गोमटी | दुडू | पानदुडू |

## नेम : ६

मोन्या **अ** स्वरान सोंपतात त्या उतरांनी, जेन्ना ह्या मोन्या स्वराआदीं **इ** - कार वा **उ** - कार येता तेन्ना तो दीर्घ (लांब) बरोवचो.

देखीक :-

| | | | |
|---|---|---|---|
| तीख | पुराणीक | पूड | लागणूक |
| पीठ | भुगोलीक | दूख | भारकूण |
| लापीट | चकचकीत | कोलूग | सणसणून |

## नेम : ७

**आ**, **इ**, **ऊ**, **ए**, वा **आ** - कारान सोंपतात त्या उतरांनी निमाण्या अक्षरा आदीं **इ** - कार येता तेन्ना तो **इ** - कार ऱ्हस्व (मोटवो) बरोवचो. तेच भाशेन, **आ**, **इ**, **ऊ**, **ए**, वा **आ** - कारान सोंपतात त्या उतरांनी निमाण्या अक्षराआदीं **उ** - कार येता तेन्ना तो **उ** - कार ऱ्हस्व (मोटवो) बरोवचो.

देखीक : -

| | |
|---|---|
| पिडा | तुका |
| कविता | नुरा |
| रिती | गुणी |
| समिती | कुरू |

गिरगिरें        सुरसुरें

भिरभिरी        कुलकुलो

शिरशिरो        पानदुडू

## नेम : ८

**अ** कारान्त' (**अ** न सोंपपी) सोंपपी अक्षर जेन्ना जोडगीर आसता, तेन्ना ताचे आदलो **इ** - कार वा **उ** - कार मोटवो (ऱ्हस्व) बरोवचो.

देखीक :-

किल्ल, चित्र, शिस्त, खिस्त, इश्ट, ज्युस्त, चिन्ह, दिश्ट

कुश्ट, गुल्ल, दुश्ट, बुद्द, सुत्र, धुल्ल, खुळळ, चुन्न

मात, जेन्ना हें सोपत्या अक्षरांतलें 'अकारान्त' (**अ** न सोंपपी) जोडगीर 'रेफ' दिल्लें आसता, तेन्ना ताचे आदलो **इ** - कार वा **उ** - कार दीर्घ (लांब) बरोवचो.

देखीक :-

कीर्ण, कीर्त, दीर्घ, तीर्थ, मीर्ग, वीर्य,

कूर्र, मूर्ख, मूर्त, म्हूर्त, तूर्त, धूर्त.

## नेम : ९

एका अक्षराचीं उतरां जेन्ना **इ** - कारी वा **उ** - कारी आसतात, तेन्ना तो **इ** -कार वा **उ** - कार लांब (दीर्घ) बरोवचो.

देखीक :-

की, फी, बी, शीं, री,

ऊ, पूं, मूं, तूं, रूं,

## नेम : १०

मोन्या (निभृत) **अ** स्वरान सोंपतात त्या उतरांचें विभक्ती रूप जाता, तेन्ना ताचे आदीं **इ** कार वा **उ** कार येता आसल्यार तो **इ** - कार वा **उ** - कार मोटवो (ऱ्हस्व) बरोवचो.

देखीक :-

| | | | |
|---|---|---|---|
| कीर | किराक | किराचो | किरान |
| जीब | जिबेक | जिबेचो | जिबेन |
| शीत | शिताक | शितार | शितांत |
| पूत | पुताक | पुताचो | पुतान |
| सून | सुनेक | सुनेचो | सुनेन |
| फूल | फुलाक | फुलाचो | फुलार |

आडवाद : हो नेम विशेशनामांक लागू जायना.

देखीक :-

| | | | |
|---|---|---|---|
| अरूण | अरूणाक | अरूणाचो | अरूणान |
| नमीन | नमीनाक | नमीनालो | नमीनान |
| समीर | समीराक | समीरालो | समीराचेर |
| म्हालखूम | म्हालखूमेक | म्हालखूमेलो | म्हालखूमेचेर |

(ii) मोन्या (निभृत) **अ** स्वरान सोंपतल्या स्त्रीलिंगी नामाचें जेन्ना **इ** स्वरी सामान्य रूप जाता, तेन्ना **इ** कार लांब (दीर्घ) जाता आनी म्हूण कसलेंय कूस (प्रत्यय) लागल्यारूय तो लांब (दीर्घ) च बरोवचो.

देखीक :-

भयण भयणी भयणीक भयणीन भयणीचें भयणींत भयणीली

पाल पाली पालीक पालीन पालीचें पालींत पालीचेर
कात काती कातीक कातीन कातीची कातींत कातीर
सायकल सायकली सायकलीक सायकलीन सायकलीचें सायकलींत सायकलीर

## नेम : ११

जोडगिरां बरयतना एका अक्षरा सकयल दुसरें अक्षर बरोवचें न्हय. ती अशीं बरोवचीं :

(i) अक्षर उबी रेग मारून बरयलें आसता तेन्ना ती रेग काडून दुसरे अक्षर जोडचें.

देखीक :-

ख → ख् → अख्खें
ब → ब् → अब्बा

(ii) **क**, **फ**, अशा अक्षरांक दुसरें अक्षर जोडटना ताचो मुखावयलो देंठ दवरचो.

देखीक : -

क → क् → अक्कल

(iii) **ट**, **ठ**, **ड**, **द**, अशा देठ आशिल्ल्या अक्षरांक जोडून दुसरीं अक्षरां येतात तेन्ना तांचे सकयल ( ् ) अशी खूण बरोवची.

देखीक : -

ट → ट् → घट्ट
ठ → ठ् → अठ्ठावीस
ड → ड् → आड्डणी
द → द् → मुद्दाम

(iv) **ळ** ह्या देंठ आशिल्ल्या अक्षराक **य** जोडटना

**(अ) ळ** चो देठ काडून **य** जोडचें.

देखीक :-

ळ → ळ → ळय → काळया

**(आ) ळ** तशेंच दवरून **य** (**्य**) अशे तरेन बरोवन जोडचें

देखीक :-

ळ → ळ + य → ळ्य → काळ्या

हेंच भाशेन **ह** अक्षराक **य** (**्य**) अशे तरेन जोडून बरोवचें

देखीक :-

ह → ह + य → ह्य → ह्या

**(इ) द** अक्षराक **य** जोडपाचें तेन्ना तें (iii) हांतूंत दिल्ले चालीप्रमाण बरोवचें वा **द्य** अशें बरोवचें

देखीक :-

द → द + य → द्‌य

द → द + य → द्य → उद्यम

(v) **र** क दुसरें अक्षर जोडपाचें आसता तेन्ना तें रेफ जावन अशा अक्षरा वयर बरोवचें

देखीक :-

अर्‌द → अर्द

अर्‌रा → अर्रा

## नेम : १२

तृतीय (तिसऱ्या) पुरूशी एकवचनी सर्वनामाक **चो - ची - चें** हे विभक्तीचे प्रत्यय (कुसां) लागतात तेन्ना,

| | | | |
|---|---|---|---|
| (हो) | हाचो | हाची | हाचें |
| (ही) | हिचो | हिची | हिचें |
| (हें) | हाचो | हाची | हाचें |

अशें बरोवचें.

## नेम : १३

**की** ह्या अव्ययाचो उपेग कोंकणीच्या मूळ सभावांत बसना, देखून तो जाता तितलो टाळचो आनी वाक्य कोंकणीच्या मूळ सभावाक धरून रचचें. जर **की** अव्यय बरोवचें पडलेंच जाल्यार तें लांब (दीर्घ) बरोवचें आनी ताचेर अनुस्वार (-̇) दिवचो न्हय.

## नेम : १४

(i) क्रियापदाचें खंयचेंय रूप बरयतना धातू (मूळ रूप) पुरायेन बरोवचो (चें).

देखीक :-

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| रांद | रांदप | रांदता | रांदलो - ली - लें | रांदतलो - ली - लें |
| मार | मारप | मारता | मारलो - ली - लें | मारतलो - ली - लें |
| धांव | धांवप | धांवता | धांवलो - ली - लें | धांवतलो - ली - लें |
| धर | धरप | धरता | धरलो - ली - लें | धरतलो - ली - लें |
| बस | बसप | बसता | बसलो - ली - लें | बसतलो - ली - लें |
| चल | चलप | चलता | चललो - ली - लें | चलतलो - ली - लें |

(ii) ज्या क्रियापदाचो धातू **ड**, **ण** , वा **ळ** अक्षरान सोंपता, त्या क्रियापदाचें अपूर्ण वर्तमानकाळी, अपूर्ण भूतकाळी आनी निश्चीत भविश्यकाळी रूप बरयतना, धातूच्या उपरांत लागतले प्रत्यय (कुसां) **त** - न बरयनासतना, **ट** - न बरोवचे.

देखीक : -

| | | | |
|---|---|---|---|
| पड | पडटा | पडटालें | पडटलें |
| म्हण | म्हणटा | म्हणटालें | म्हणटलें |
| जळ | जळटा | जळटालो | जळटली |
| कळ | कळटा | कळटालें | कळटलें |

(iii) ज्या क्रियापदाचो धातू **ट** अक्षरान सोंपता, त्या क्रियापदाचें अपूर्ण वर्तमानकाळी, अपूर्ण भूतकाळी आनी निश्चीत भविश्यकाळी रूप बरयतना धातूच्या उपरांत लागतलो **ट** बरोवचे आदीं धातूंतलो मूळ **ट**, **ट्** असो बरोवचो.

देखीक : -

| | | | |
|---|---|---|---|
| फुट | फुट्टा | फुट्टालें | फुट्टली |
| तुट | तुट्टा | तुट्टालो | तुट्टलें |
| लुट | लुट्टा | लुट्टालें | लुट्टलो |

(iv) ज्या क्रियापदाचो धातू **ठ** अक्षरान सोंपता, त्या क्रियापदाचें अपूर्ण वर्तमानकाळी, अपूर्ण भूतकाळी आनी निश्चीत भूतकाळी रूप बरयतना, धातूंतलो मूळ **ठ**, **ठ्** असो दाखोवचो आनी उपरांत **ठ** हें अक्षर बरोवचें.

देखीक :-

| | | | |
|---|---|---|---|
| उठ | उठ्ठा | उठ्ठालो | उठ्ठलो |
| गांठ | गांठ्ठ | गांठ्ठाली | गांठ्ठलें |

(v) ज्या क्रियापदाचो धातू **ळ** अक्षरान सोंपता, त्या क्रियापदाचें पूर्ण वर्तमानकाळी आनी पूर्ण भूतकाळी रूप बरयतना, धातूंतलो मूळ **ळ**, **ळ्** असो दोखोवचो आनी उपरांत **ळ** हें अक्षर बरोवचें

देखीक :-

| | | |
|---|---|---|
| जळ | जळ्ळा - ळ्ळी - ळ्ळें | जळ्ळो - ळ्ळी - ळ्ळें |
| कळ | कळ्ळा - ळ्ळी - ळ्ळें | कळ्ळो -ळ्ळी - ळ्ळें |
| तळ | तळ्ळा - ळ्ळी - ळ्ळें | तळ्ळो - ळ्ळी - ळ्ळें |

## नेम : १५

(i) **उलोवप**, **चलोवप**, **बरोवप**, **पळोवप** हीं (वा असले तरेच्या हेर ) क्रियापदांचीं रुपां अनुक्रमान उलौप, चलौप, बरौप, पळौप अशीं वा **उलवप**, **चलवप**, बरवप वा **पळवप** अशी बरोवचीं न्हय. वयल्या उतरांतलो **औ** स्वर कोंकणीच्या मूळ सभावाप्रमाण मातसो धांपिल्लो आसता आनी देखून तो **ओव** ह्या संधिस्वरान (फावो तसो ) दाखोवंक मेळटा. अशें बरोवप कोंकणीच्या मूळ उच्चारणा वांगडाय सुसंगत आसता. देखून, वयले तरेचीं उतरां **ओव** संधिस्वर आस्पावनच बरोवचीं.

देखीक :-

उलोवप चलोवप बरोवप पळोवप.

(ii) पळोवप, बरोवप, रकोवप ह्या (आनी असले तरेच्या) रुपांचे धातू अनुक्रमान **पळय**, **बरय**, **रकय** (आदी) अशे आशिल्ल्यान तांचेपासून घडिल्लीं हेर रूपां अशीं बरोवचीं:

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| बरय | बरयतां | बरयलें | बरयतलें | बरयन |
| रकय | रकयतां | रकयलें | रकयतलें | रकयन |
| पळय | पळयतां | पळयलें | पळयतलें | पळयन |

टीप : **पळय** धातूवरीच **पळे** धातूंचीं,

पळे पळेतां पळेलें पळेतलें पळेन.

अशींय रुपां घोळटात.

## नेम : १६

पुल्लिंगी आनी नपुसकलिंगी उतरांक कूस (प्रत्यय) लागता तेन्ना, त्या उतरांआदलें विशेशण, सार्वनामीक विशेशण वा संबंदकारक उतर **ओ** वा **एं** - न सोंपपी आसलें जाल्यार कूस (प्रत्यय) लावचे आदीं तें **या** सोंपता अशें करून बरोवचें.

देखीक :-

| | |
|---|---|
| पाच**वो** मोर | पाच**व्या** मोराक |
| पोंव**सो** विस्वण | पोंव**शा** विस्वणान |
| हर**वें** भिकण | हर**व्या** भिकणांत |
| तांब**डें** कापड | तांब**ड्या** कापडार |
| मोट**वो** कवाथो | मोट**व्या** कवथ्याक |
| तर**णें** तवशें | तर**ण्या** तवश्याक |
| **तो** चोर | **त्या** चोराक |
| म्ह**जो** हात | म्ह**ज्या** हातार |
| **हें** बोंतर | **ह्या** बोंतराक |
| तुम**चें** वांयगण | तुम**च्या** वांयगणांत |
| तिगे**लो** बावलो | तिगे**ल्या** बावल्याक |
| तां**चो** पयसो | तां**च्या** पयश्यान |
| मारी**चो** घोव | मारी**च्या** घोवाक |
| शेंवत्या**लें** पाडूक | शेंवत्यां**ल्या** पाडकाक |
| मंत्र्या**चा** राजिनामो | मंत्र्या**च्या** राजिनाम्यान |

| | |
|---|---|
| घराचें पाखें | घराच्या पाख्यार |
| राणयेचें रागणें | राणयेच्या रागण्यान |

## नेम : १७

सामान्यपणान स्त्रीलिंगी उतरांक कूस (प्रत्यय) लागता तेन्ना, त्या उतरांआदलें उतर (विशेशण, सार्वनामीक विशेशण वा संबंदकारक आसल्यार) **ए** - कारान्त (**ए** - न सोंपता तशें ) बरोवचें.

देखीक : -

| | |
|---|---|
| वांक**डी** मेर | वांक**डे** मेरेर |
| पि**शी** पीक | पि**शे** पिकेर |
| पाच**वी** देग | पाच**वे** देगेक |
| **ती** बांय | **ते** बांयंत |
| **ही** गाय | **हे** गायेन |
| ता**ची** बायल | ता**चे** बायलेक |
| ति**ची** धूव | ति**चे** धुवेन |
| पावलां**ची** कूरू | पावलां**चे** कुरवेन |
| मुखेल मंत्र्या**ली** गाडी | मुखेलमंत्र्या**ले** गाडयेन |
| घराफाट**ली** पडवी | घराफाट**ले** पडवेर |

## नेम : १८

**ई** - कारान सोंपतल्या दोन अक्षरी स्त्रीलिंगी उतरांक कुसां (प्रत्यय) लागतात तेन्ना तो **ई** कार **अ** कार जाता आनी प्रत्यया (कुसा) चे आदीं **ये** हें अक्षर येता.

देखीक :-

बडी बडयेक बडयेन बडयेचो

| | | | |
|---|---|---|---|
| साडी | साडयेक | साडयेन | साडयेर |
| उंडी | उंडयेक | उंडयेन | उंडयेर |
| पोती | पोतयेक | पोतयेंत | पोतयेर |

आडवाद : ज्या **ई** कारान सोंपपी दोन अक्षरी स्त्रीलिंगी उतरांचें भोव वचनांतय तेंच रूप उरता, त्या उतरांक कुसां (प्रत्यय) लागतनाय तीं **ई** - कारान्तच उरतात.

देखीक :-

| ए.व. | भो.व. | | | |
|---|---|---|---|---|
| व्यक्ती | व्यक्ती | व्यक्तीक | व्यक्तीन | व्यक्तीचें |
| भक्ती | भक्ती | भक्तीक | भक्तीन | भक्तीचो |
| मुक्ती | मुक्ती | मुक्तीक | मुक्तीन | मुक्तीचो |
| प्रिती | प्रिती | प्रितीक | प्रितीन | प्रितीचो |
| शक्ती | शक्ती | शक्तीक | शक्तीन | शक्तीचो |

(ii) **ई** - कारान सोंपतल्या तीन अक्षरी स्त्रीलिंगी उतरांक कुसां (प्रत्यय) लागतात, तेन्ना तो **ई** - कार **ए** - कार जाता आनी उपरांत ताका कूस लागता.

देखीक :-

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| बोकडी | बोकडेक | बोकडेन | बोकडेर | बोकडेचो |
| सुकती | सुकतेक | सुकतेर | सुकतेंत | सुकतेचें |
| तागडी | तागडेक | तागडेर | तागडेंत | तागडेचें |
| दिवटी | दिवटेक | दिवटेर | दिवटेन | दिवटेंत |

आडवाद : ज्या **ई** - कारान सोंपतल्या तीन अक्षरी स्त्रीलिंगी उतरांचें भोववचनांतय तेंच रूप उरता, त्या उतरांक कुसां (प्रत्यय) लागतनाय तीं उतरां **ई** कारान्तच उरतात.

देखीक :-

| <u>ए.व.</u> | <u>भो.व.</u> | | | |
|---|---|---|---|---|
| विभक्ती | विभक्ती | विभक्तीक | विभक्तीन | विभक्तीचें |
| आसक्ती | आसक्ती | आसक्तीक | आसक्तीन | आसक्तीची |
| प्रगती | प्रगती | प्रगतीक | प्रगतीन | प्रगतीचो |

(iii) **ई** - कारान सोंपतल्या चार वा चड अक्षरी अखंड स्त्रीलिंगी उतरांक कुसां (प्रत्यय) लागतात तेन्ना तीं तीन अक्षरी स्त्रीलिंगी उतरांप्रमाणेंच बदलतात.

देखीक :-

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| सरपळी | सरपळेक | सरपळेन | सरपळेंत | सरपळेचें |
| कयपंजी | कयपंजेक | कयपंजेन | कयपंजेंत | कयपंजेची |
| पुटपुटणी | पुटपुटणेक | पुटपुटणेन | पुटपुटणेंत | पुटपुटणेचो |

(iv) **ई** - कारान सोंपपी चार वा चड अक्षरी स्त्रीलिंगी उतरां जेन्ना समासीक (दोन वा अदीक स्वातंत्र उतरां जोडून घडिल्लीं) आसतात, तेन्ना तांका प्रत्यय (कुसां) लागतना तांचेभितरल्या निमाण्या उतराचे प्रकृतीप्रमाणें तीं **बदलतात** वा **बदलनासतना** रावतात.

देखीक :-

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| आडकाती | आड-काती | आडकातयेन | आडकातयेक | आडकातयेचें |
| चिकनळी | चिक-नळी | चिकनळयेन | चिकनळयेक | चिकनळयेंत |
| शतपावली | शत-पावली | शतपावलेन | शतपावलेक | शतपावलेचें |
| विचारसरणी | विचार-सरणी | विचारसरणेन | विचारसरणेक | विचारसरणेंत |
| सप्तपदी | सप्त-पदी | सप्तपदीन | सप्तपदीक | सप्तपदीचें |
| कवितावली | कविता-वली | कवितावलीन | कवितावलीक | कवितावलींत |
| मोक्षदायिनी | मोक्ष-दायिनी | मोक्षदायिनीन | मोक्षदायिनीक | मोक्षदायिनीचें |

## नेम : १९

खंयच्याय उतरांत **श**, **स** आनी **ह** ह्या अक्षरांआदल्या अक्षराचेर अनुस्वार (ं) येता तेन्ना उच्चारांत **व** कार आयिल्लेभशेन दिसलो तरीय अशीं उतरां बरयतना (**श**, **स** वा **ह** उपरांत) **व** बरोवचें न्हय.

देखीक :-

अहिंसा संस्कार संस्कृत संशोधन संसाधन संहार

आडवाद : फकत **संवसार** बरयतना **व** घालून बरोवचें; **संसार** बरोवचें न्हय.

## नेम : २०

**वप** अक्षरांनी सोंपतल्या क्रियापदाच्या कांय रूपांनी (जावप, येवप, घेवप, बरोवप, चलोवप आदी) अनुस्वार (ं) येता तेन्ना अनुस्वार **व** चेर दिवचो.

देखीक :-

| | | |
|---|---|---|
| जावं | घेवं | येवं |
| न्हावंक | जेवंक | पेवंक |
| बरोवंक | चलोवंक | आडावंक |



टीप : वयर दिल्ल्या देखींनी दाखयला तो अनुस्वार संधिस्वर दाखयता. जेन्ना पुराय संधिस्वर जाता तेन्ना अनुनासीकपण (नाकयेंपण) संधिस्वराच्या खंयच्याय अक्षराचेर अनुस्वार दिवन दाखोवंक येता. पूण क्रियापदाचीं वयलीं रूपां मूळ धातूपासून जाल्लीं आसात आनी धातूपासून जाल्लीं हेर खंयचीय रूपां घडटना धातू तसोच उरता. वयर दिल्ल्या रुपांनीय तो तसोच उरचो म्हणून नाकया अनुनासीकतायेची कुरू (ं) **व** चेर दिवची.

मात, हांचेभायलीं अनुनासीकताय घेवन आयिल्लीं सगळीं संधिस्वरी उतरां बरयतना, तांचेर अनुस्वार संधिस्वरांतल्या पयल्या स्वराचेर दिवचो.

देखीक :-

भंय वंय बांय शींव कूंय रेंव भोंवरो
हांव कांय वांयच ठांयचो पोंवशेल्लो

## नेम : २१

संबंदी अव्ययाआदीं सर्वनाम वा क्रियापदाचें रूप येता तेन्ना त्या उतराचें निमाणें अक्षर **ए** कार बरोवचें.

देखीक :-

**हे** खातीर, **ते**परस, म्ह**जे** सरीं, तुम**चे** वांगडा, ता**चे** मुखार, तां**चे** सयत. वच**चे** परस, ग**ले** बगर, धांव**चे** आदीं, सांगि**ल्ले** पासत, आयक**ले** बगर, न्हिद**चे** आदीं.

## नेम : २२

क्रियापदांच्या **ऊंक** प्रत्यय (कूस) लागिल्ल्या रूपांक **च** लायतात तेन्ना **ऊंक** कुसांतलो **उ** - कार मोटवो (ऱ्हस्व) बरोवचो आनी **क** चे **कू** करचें.

देखीक :-

आसूंक आसुंकूच
करूंक करुंकूच
धोलूंक धोलुंकूच



## नेम : २३

**जाणें**, **ताणें**, **हाणें**, **कोणें** हीं उतरां बरयतना **णे** चेर अनुस्वार दिवचो. हाचें कारण, तिसरे विभक्तीचो प्रत्यय (कूस), **न** अनुस्वाराच्या रुपान **णे** ह्या अक्षराचेर वता. होच नेम **जिणें**, **तिणें**, **हिणें** ह्या उतरांकय लावचो.

देखीक :-

| | |
|---|---|
| त्या भुरग्यान लाडू खालो | ताणें लाडू खालो. |
| एकल्यान वाट विचारली | कोणें वाट विचारली. |
| बायलेन काम केलें | तिणें काम केलें |

(ii) **जांणी**, **तांणी**, **हांणी** ह्या उतरांनी मात अनुस्वार पयल्या अक्षराचेर दिवचो **णी** - चेर दिवचो न्हय . हांचें कारण भोववचनांत तिसरे विभक्तीचो प्रत्यय (कूस) **नी** लागतना अनुनासीकताय (नाकयेपण) आदल्या अक्षराचेर वता, म्हणून अनुस्वार आदल्या अक्षराचेर दिवचो.

देखीक :-

| | |
|---|---|
| भुरग्यांनी बोवाळ घालो | तांणी बोवाळ घालो |
| ह्या कामेऱ्यांनी नडणी केली | हांणी नडणी केली |
| शेवण्यांनी कलकल केलो | तांणी कलकल केलो |
| ज्या सरपंचांनी अर्ज हाडल्यात, ते (तांणी) दिवचे | जांणी अर्ज हाडल्यात (तांणी), दिवचे. |

(iii) हेच भाशेन भोववचनांत सातवे विभक्तीचो **नी** प्रत्यय (कूस) लागता तेन्नाय, **नी** चेर अनुस्वार दिवचो न्हय; **नी** आदल्या अक्षराचेर दिवचो.

देखीक :-

झि**लीं**नी सावदां रावतात.

सगल्या **गांवांनी** वीज पावल्या.

## नेम : २४

**न्हंय** हें उतर नाम म्हूण उपकारायतात तेन्नाच **न्ह** चेर अनुस्वार दिवचो. न्हयकारी (नकारार्थी) अर्थ दाखोवंक तें उतर उपकारायतात तेन्ना ताचेर अनुस्वार दिवचो न्हय.

देखीक :-

मांडवी **न्हंयचेर** दोन पूल बांदल्यात.

म्हाझुजांत रगताच्यो **न्हंयो** व्हांवल्यो.

ह्या संवसारांत कोण कोणाचो **न्हय**.

**न्हय** तें उलोवन हांशें करून घेवं नाका.

**न्हंयच्या** उदकाखातीर **न्हय** तीं किजिलां जातात.

## नेम : २५

कोंकणींत कर्मकर्तरी प्रयोग वा Passive Voice ना. देखून, बरयतना ताचो उपेग करचो न्हय. कोंकणीचे प्रकृतीक सोबसारकें बरोवचें.

देखीक :-

आमकां तशें सांगलें /सांगिल्लें

आज इनामां वांट्टले / वांट्टात.

दर वर्सा फेस्त करतात / जाता.

## नेम : २६

**ऊं** क कूस लागिल्ल्या धातू - अव्ययांतलें **क** गळटा तेन्ना आदलो **उ** कार मोटवो (ऱ्हस्व) बरोवचो आनी तें उतर फुडल्या उतराक जोडचें.

देखीक :-

| | | |
|---|---|---|
| वचूंक नासलो | वचूं / नासलो | वचुंनासलो |
| करूंक येता | करूं / येता | करुंयेता |

हेच भाशेन **ई** स्वरान सोंपिल्ल्या धातू अव्ययाक मुखावेलें उतर जोडपाचें आसत जाल्यार **ई** कार मोटवो (ऱ्हस्व) बरोवचो.

देखीकः-

| | |
|---|---|
| करी नासलो | करिनासलो |
| मागी नासली | मागिनासली |

## नेम : २७

**मनीस** ह्या उतराक प्रत्यय (कुसां) लागतात तेन्ना निमाण्या **स** अक्षराचें **श** जावन **मनशान** , **मनशाक** , **मनशाचो** अशीं रुपां घडटात. देखून हीं रूपां बरयतना **शा** अक्षरच उपकारावचें. मात तवशें, भोंपशें असल्या मुळांत **श** अक्षरान सोंपतल्या उतरांक प्रत्यय (कुसां) लागतात तेन्ना तांचीं रुपां **श्या** हें अक्षर उपकारावन बरोवचीं. अशें करप तांच्या उच्चारणावांगडा सुसंगत थारता.

देखीक :-

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| तवशें | तवश्याक | तवश्यार | तवश्यान | तवश्याची |
| भोपशें | भोपश्याक | भोपश्यार | भोपश्यान | भोपश्याची |

## नेम : २८

क्रियापदांचीं अतिपूर्ण भूतकाळी रुपां बरयतना जो उपांत्य (निमण्या आदलो) **इ** - कार येता, तो मोटवो (ऱ्हस्व) बरोवचो. निमण्या अक्षरावयलो **इ** कार मात लांब (दीर्घ) बरोवचो.

देखीक :-

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| मागिल्लो | आशिल्लो | सांगिल्लो | शिकिल्लो | तिगिल्लो |
| धरिल्लें | पाजिल्लें | गायिल्लें | नाशिल्लें | मांडिल्लें |
| पेटयिल्ली | बरयिल्ली | गरयिल्ली | फारायिल्ली | बडयिल्ली |
| खरपिल्लें | उसपिल्लें | तळशिल्लें | फाफशिल्लें | माड्डिल्लें |

# नेम : २९

१ ते १०० आंकडे अक्षरी अशे बरोवचे:

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| एक | एकवीस | एकेचाळीस | एकसठ | **एक्यां**यशीं |
| दोन | बावीस | **बे**चाळीस | बासठ | ब्यांयशीं |
| तीन | तेवीस | तेवेचाळीस | त्रेसठ | त्र्यांयशीं |
| चार | चोवीस | चवेचाळीस | चवसठ | चव**द्यां**यशीं |
| पांच | पंचवीस | पंचेचाळीस | पांसठ | **पंच्यां**यशीं |
| स | **सव्वीस** | **शे**चाळीस | सांसठ | शांयशीं |
| सात | सत्तावीस | सत्तेचाळीस | सातसठ | **सत्यां**यशीं |
| आठ | अठ्ठावीस | अठ्ठेचाळीस | आठसठ | अठ्ठ्यांयशीं |
| णव | एकुणतीस | एकुणपन्नास | एकुणसत्तर | एकुण**व्व**द |
| धा | तीस | पन्नास | सत्तर | ण**व्व**द |
| इकरा | एकतीस | एकावन | **एक्या**त्तर | **एक्याण्ण**व |
| बारा | बत्तीस | बावन | ब्यात्तर | ब्या**ण्ण**व |
| तेरा | तेत्तीस | **त्रेपन्न** | त्र्यात्तर | त्र्या**ण्ण**व |
| चवदा | चवतीस | चवपन | चवद्यात्तर | चवद्या**ण्ण**व |
| पंदरा | पस्तीस | पंचावन | पंच्यात्तर | पंच्या**ण्ण**व |
| सोळा | **छ**त्तीस | **छापन्न** | शात्तर | शा**ण्ण**व |
| सतरा | सात्तीस | सत्तावन | सत्त्यात्तर | सत्त्या**ण्ण**व |
| अठरा | आठ्ठीस | अठ्ठावन | अठ्ठ्यात्तर | अठ्ठ्या**ण्ण**व |
| एकुणीस | एकुणचाळीस | एकुणसाठ | एकुणअंयशीं | णव्या**ण्ण**व |
| वीस | चाळीस | साठ | अंयशीं | शंबर |

## नेम : ३०

दीस अशे बरोवचे :

सोमार, मंगळार, बुधवार, बिरेस्तार, शुक्रार, शेनवार, आयतार.

## नेम : ३१

म्हयने अशे बरोवचे :

जानेवारी, फेब्रुवारी, मार्च, एप्रील, मे, जून, जुलय, **ऑगस्ट**, सप्टेंबर, ऑक्टोबर, नोव्हेंबर, डिसेंबर.

❑❑❑





शणै गोंयबाब महोत्सवी वर्स


| | | |
|---|---|---|
| पयली आवृत्ती | : | ऑक्टोबर १९८८ |
| दुसरी आवृत्ती | : | ऑगस्ट १९९३ |
| तिसरी आवृत्ती | : | मार्च २००३ |

मोल : रु. १५/-




उजवाडावपी :
नारायण श्री. नावती
सचीव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
बोरी, फोंडें, गोंय - ४०३ ४०१.
फोन नं.: २३३३४९१ - ९२ - ९३

छापपी :
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स,
माशेल, गोंय.